# कावळ्याचें स्राद्ध

(कोंकणी कविता झेलो)

**अरुण साखरदांडे**

# Kavallyachem Sraddha

(Poems by Arun Sakhardande)



प्रकाशन क्र. 3
पयली उजवाडावणी : डिसेंबर 2007

मुखचित्र
**श्रीधर कामत बांबोळकार**

अक्षर जुळणी
**अमोल कामत**

छापणावळ
**हिरू नायक**
रुतु ऑफसेट
वळवय, फोंडें, गोंय

उजवाडावपी
**नूतन साखरदांडे**
नूतन प्रकाशन
'काव्यांगण'
सी-3, बेप्सीन रेसिडंसी
वीज खात्या लागीं
अन्साभाट, म्हापशें, गोंय

**मोल: रू. 140/-**

## मांडावळ

## कावळ्याचें स्राद्ध

कावळिणीन पुताक विचारलें,
आरे,
बापायचें स्राद्ध करिना?
कावळ्याच्या पुतान म्हळें,
बापायन म्हजे खातीर कितें केलां?
कावळिणीन म्हळें
बापायन तुजे खातीर
कांयच करूंक ना आसत
पूण तुका जल्म तरी दिला मरे?

कावळ्याच्या पुतान रागान
दोन-तीनदां तकली आपटिली
आनी कावळेभटागेर गेलो
कावळेभटान तीथ काडून दिली

कावळ्याच्या पुतान स्राद्धाची
सगळी तयारी केली
स्राद्धा दिसा दोन-चार सोयरेय आयले
कावळेभटान धर्माप्रमाण
सगळें यथासांग केलें
कावळ्याच्या पुतान पिंड व्हरून
देवळा लागसारच्या झाडामुळांत दवरलो

देवळाच्या पारार बशिल्लो
अर्द पिसो भिकारी
धांवत येवन पिंड खावपाक लागलो

मनीस आफुडलो, मनीस आफुडलो
कावळ्याचो एक सोयरो आड्डलो

कावळिणीचे दोळे ओले जाले
दुकां आयलीं
तातूंतलीं दोन दुकां झाडा मुळांत पडलीं
आनी सुके मातयेंत जिरून गेलीं

25.9.1997

## कागदाचीं व्हडीं

भाव गेले भयणी गेल्यो
यादींच्यो रोयणी गेल्यो
सोबीत सपनां राती गेल्यो
देवा फुडल्यो वाती गेल्यो

धोंपर फुटत खेळप गेलें
एकामेकां फाटल्यान धांवप गेलें
रडटां रडटां हांसप गेलें
हांसतां हांसतां रडप गेलें

खंय गेलीं कागदाचीं
उदकांतलीं व्हडीं?
आमी आतां उस्तितात
एकामेकांचीं मर्डी

दारां आनी जनेलांच्यो
जाल्यो आतां वणटी
गर्भकुडींत पालवली
एकूच एक पणटी

एकाचीं शाणेपणां
दुसऱ्याचीं पिशेपणां
कोणें तरी घराचीं
खणलीं रे सोपणां

घरा फुडलो हुमटलो
पार्दिकाचो रूख
दाव्या दोळ्यान पळोवं नजो
उजव्या दोळ्यांतलें सूख

आतां एकामेकांचो
कोणाक ना हुसको
म्हज्या घराक आतां
हांव जालां परको

**31.10.1997**

## काळजा कुडींत

काळजा कुडींत
सपनां राशी
वेंचींत बसल्यांत
मनशां पिशीं

एक सपन आवयचें
एक सपन बापायचें
एक सपन बायलेचें
एक सपन भुरग्याचें

सपनां भोंवतणीं
लायले दिवे
तातूंत तेल
रगत जिवें

सपन दिव्यांच्यो
पेट्टात वाती
पावला पावलार
शेणटात नातीं

तरीय सपनां
वेंचून सोंपनात
जल्मगांठी
सुटून सुटनात
**24/3/1998**

## देव

रस्त्यार खूब मनीस जमिल्ले
तांचे मर्दी
तीन मनीस आसले
एक देव आसलेलो मनीस
एक देव नासलेलो मनीस
आनी तिसरो देव शेणलेलो मनीस

देव आसलेल्या मनशान म्हळें
'देव खंय आसा तें हांव जाणां'
देव नासलेल्या मनशान म्हळें
'देव खंय ना तें हांव जाणां'
देव शेणलेल्या मनशान म्हळें
'म्हाका भूक लागल्या'

कोणें तरी ताका बटाटवडो दिलो
देव शेणलेल्या मनशान तो बटाटवडो खालो
बटाटवडो खातकूच ताणें म्हळें
'बटाटवडो खंय आसा?'
कोणें तरी म्हळें, 'तुज्या पोटांत'
मागीर देव शेणलेल्या मनशान म्हळें
'तो बटाटवडो परतो मेळटलो?'
कोणें तरी म्हळें, 'ना'
मागीर देव शेणलेल्या मनशान म्हळें
'बटाटवडो शेणलो'

मागीर देव शेणलेल्या मनशान म्हळें
'म्हाका आनीक भूक लागल्या'
कोण तरी सामोसो हाडूंक गेलो
तितल्यान मॅण्टल हॉस्पिटलाची गाडी आयली
आनी
त्या तीन पिशा मनशांक घेवन गेली

**2/1/2000**

## माकडाचे दांत

खूब गर्दी जमिल्ली
स्टेजीर चडून एक वाक्य उलोवपाची सर्त आसली
हांव स्टेजीर चडलों
हांवें म्हळें, हांव सकाळीं तोंड धुयतां
दुसरो स्टेजीर चडलो
ताणें म्हळें, हांव रातचो तोंड धुयतां

तिसऱ्यान म्हळें, हांव दनपारचो तोंड धुयतां
चवथ्यान म्हळें, हांव सांजेचो तोंड धुयतां
सव्यान म्हळें, हांव तोंड धुवपाक सकाळचो बारांत वतां
सातव्यान म्हळें, हांव बारा तारखेक तोंड धुयतलो
आठव्यान म्हळें, तोंड केन्ना धुवपाचें तें
अजून हांवें थारावंक ना
आनी एकलो स्टेजीर चडलो
ताणें म्हळें, हांव केन्नाच तोंड धुयना

हांवें ताचें तोंड उगडलें आनी दांत पळयले
सामकेच धवेफुल्ल

हांवें ताका कुशीक व्हेलो आनी विचारलें
तूं तोंड केन्नाच धुयना आनी
दांत कशे धवेफुल्ल?
ताणें विचारलें, माकड केन्ना तोंड धुयता?
हांवें म्हळें, ना
ताणें म्हणलें, माकडाचे दांत कशे धवेफुल्ल?
हांवें म्हळें, बरोच हुशार दिसता मरे
कितें करता?
तो हांसलो आनी ताणें म्हळें, पीएचडी करतां
हांवें म्हळें, विशय कितें?
ताणें म्हळें, माकडाचे दांत

**6.1.2000**

## कोण गेलो पयस

कोण गेलो पयस
काळीज उमास
मना ओलो सूर
भेटून भेटना

उसळटात ल्हारां
चुकलेलीं तारवां
दर्या प्राण देग
दिसून दिसना

दिवो जळटा ग्गत
चिंब भिजली रात
फांतोडे सुलूस
लागून लागना

एकटोच वाटसरू
चलता दिगंतरू
पांयां पोंदची वाट
सोंपून सोंपना

खोल सपनतळें
ताका काळीज भळभळे
उदका खोल थाव
मेळून मेळना

**25.2.2000**

## सुर्याचें जळप देखिलें

सुर्याचें जळप देखिलें
मळबांतलें मळब रेखिलें
आवयच्या पदरा पोंदा
सूख दुख्ख चाखिलें

रगताचे घाय सोंशिले
दोळ्यांतलें उदक लिपयलें
नातीं गोतीं सोदतना
तुटिल्ले धागे माड्डयले

अनवाणी वाट चलतना
पांयांतले कांटे काडिले
जिवीत राग फुलयतना
तुटिल्ले तारे जोखिले

हाचे ताचे खातीर
हड्ड्यांतलें प्राण झरयले
थेंब थेंब आटोवन रगत
जल्माचें रीण पावयलें

हाचो ताचो मोग जोखिलो
कोणा कोणाचो भोग भोगिलो
नव्या उमेदी सपनां खातीर
निमणो लेगीत स्वास घेतिलो

**25.5.2000**

## मन गेलां रानां वनां

मन गेलां रानां वनां
उसती सगलीं पाळांमुळां

एक मन कापिल्ले वारीचें
एक मन शेणिल्ल्या यार्दीचें
एक मन देवळा माथ्यार
सोबीत भांगरा कळसाचें

एक मन आवय दुदाचें
एक मन उशण रगताचें
एक मन उदका विणें
बाविल्ल्या निळ्या साळकांचें

एक मन तुज्या केंसांत
रिगून रिगून खोयिलां
एक मन तुज्या दोळ्यांत
बिंब बिंब बिंबलां

एक मन तुजीं पावलां झेलीत
घुंगरांनी घुस्पलां
एक मन जावन यादी फुलां
पुनवे रातीं चान्नेलां

अशीं मनां जळां मळां
म्हज्या पोशांत सपन फळां
सोदूं कशीं यादी मुळां
वाट फुटल्या धाय दोळां

**1.6.2000**

## कितें म्हजें नांव?

कितें म्हजें नांव?
शेणला म्हजो गांव
सात जल्म म्हाकाच
उलो मारतां हांव

कितलीं वाचलीं नांवां
कितलीं सोदलीं गांवां
पावलांचें रगत काडीत
कितलीं माड्डिलीं रानां

कितले हुपले दोंगर
कितलीं उसपिलीं तळीं
दीसरात हुयेली मारीत
भोंवतां जळींमळीं

मनांत म्हज्या पळेत जाल्यार
खोल खोल बांय
तातूंत केन्ना तरी पिशा
हांवूच बुडलां काय?

**1.8.2000**

## अनंत

अनंताक हांवें कुंडेंत रोयलो

1
अनंत कोमरेवन कोमरेना
अनंत पानान पालेना
अनंत वाडून वाडना
अनंत काळजांत भरना
अनंत कसोच कळेना
अनंत फुलून फुलना
अनंत चुकून हांसना
अनंताक उदक मेळना
अनंताक कुंडी पावना
अनंत कुंडेंत मावना
अनंत कुंडेंत रावना

हांवें अनंताक कुंडेंतलो काडून जमनींत रोयलो

2
अनंताक फुटल्या कळेच कळे
धवेफुल्ल हजारांनी दोळे
अनंत मनयता नखेत्र सुवाळे
भुंयेर आतां चान्नी रात सोंपना
अनंताच्या फुलपाक आतां अंत ना

**8.8.2000**

## सपनां कडेर

सपनां कडेर
चान्ने रार्ती
दोळ्यांत भिजर्ली
रगता नार्ती

दुकांनी शिंपर्ली
आपर्लींच मुळां
रुखाक मात
निर्बीज फळां

कोणाक सांगच्यो
आपल्यो रडी
पांयां पोंदा
आपर्लींच मडीं

जण एक सोदता
आपलीच वाट
एकाक भांगराचें
एकाक आलिमेनचें ताट

सगलेच म्हणटात
आपुणूच शाणे
धोडयाऱ्याच्या कपलांत
फकत तीन गुंडे

1.10.2000

## घोंटेरांतले कावळिणी

घोंटेरांतले कावळिणी
कितलीं तांतयां घालीं?
आयज मेरेन पापणी तुका
कितलीं पोरां जालीं?

कितलीं मेलीं कितलीं उरलीं
आसा तुका याद?
उडून गेल्लीं पिलां तुका
घालता मगे साद?

रित्या रित्या घोंटेरांत
कित्याक काडटा दुकां?
वाडटीं पिलां उडटलीं
समजना गे तुका?

रित्या रित्या घोंटेरांत
परतीं तांतयां घालीं?
इतली तूं आवये
पिशी कशी जाली?

**7.12.2000**

## इत्सा

म्हजो जल्म जावचे पयलीं
तूं आशिल्लोच
म्हजो जल्म जाता आसतनाय
तूं आशिल्लो

म्हजो जल्म जावन जायतीं वर्सां जालीं
तरीय तूं आसाच
म्हज्या मरणा उपरांतूय
तूं आसतलोच

हांव जागो आसतना
हांव न्हिदतकूच
हांव भोंवतना
काम करतना
हांसतना, रडटना
तूं म्हजे लागसरीं आसताच

केन्नाकेन्नाय तुजी सावळीय म्हाका दिसल्या

आतां इतल्या वर्सांनी
तूं सट्ट करून म्हजे फुड्यांत उबो रावलो
जाल्यार हांवें कित्याक भियेवपाचें?

आसप आनी नासप
हातूंत फरक नासता
हें म्हाका केन्नाच होलमलां
पूण एक इत्सा आसा पळोवपाची
तूं दिसता तरी कसो?

**23.2.2001**

## पलतडचो गांव

कितलीं वर्सां जालीं
हांगाच आसां हांव
उल्यार उलो मारता
पलतडचो गांव

पलतडच्या देवळांत
आमोरेची घांट
खंयच मात दिसना
थंय वचपी वाट

कितले दीस बसलां
हांव पोटली बांदून
कोण तरी व्हरतलो
म्हाका हात धरून

पलतडच्या गांवांतसून
भायर सरल्या दिवटी
आतां सोंपूंक पावल्यो
जल्माच्यो फावटी

घेतां तुमचो निरोप
आनीक मेळचें ना
पुरो जालें आतां
जल्माक येवचें ना

**24.8.2001**

## जागो

आमी एक फ्लॅट घेतला
ड्रॉईंग रूम
तीन बॅडरूम
दोन टॉयलेट
एक सकयल, एक वयर

खूबसो ओपन तेर्रास
खूबशें मळब
दिसाचो सूर्य माथ्यार
रातीचो चंद्रीम
सकाळचो सुर्योदय
सांजेचो सुर्यास्त
खूबसो वारो, खूबसो पावस
जुलय म्हयन्यांत सोयऱ्या भशेन
माळये सोंपणार उदका व्हाळ
बस स्टॅण्ड ऴार्गींच
पूण गर्दी ना धुल्ल ना
दुसरो आनी तिसरो माळो
चारी वटांनी सोबीत देखाव
मनांत म्हळें आनीक कितें जाय?

वयले वटेन
लार्गींच मसंड
निमाण्या दिसा लोकांक लेगीत त्रास नात
जीव वचचे पयलीं
पांच मिणटां मसंडेंत न्हिदलों
जाल्यार काम आनिकूय सोंपें
मसंडेंत एक फावट मारून
बरोसो जागो मात पळोवन दवरचो पडटलो

**6.3.2002**

## सुखा सुखा

सुखा सुखा
खंय गो तूं?
'पिशा म्हाका
सोद रे तूं'

सुखा सुखा
पावस झडय
'म्हाका तुजो
नामो कळय'

सुखा सुखा
इतलें रागार?
'नशिबा तुज्या
तूंच विचार'

सुखा सुखा
केन्ना येता?
'आज ना
फाल्यां सांगतां'

सुखा सुखा
खंय मेळूं?
'निमाण्या दिसा
आमी खेळूं'

सुखा सुखा
दितां उतर
'फाल्यां पळोवया
आयज विसर'

30.4.2002

## कोणा खातीर

जगप सोंपें?
काय मरप सोंपें?

जगप कठीण?
काय मरप कठीण?

जगतां जगतां मरप बरें?
काय मरतां मरतां जगप खरें?

जगून जगून कितलें मरप?
मरून मरून कितलें जगप?

जगप थोडें, मरप चड?
काय मरप थोडें, जगप व्हड?

जगनासतना कोण मरता काय?
मरनासतना कोण जगता काय?

जगपूय एकट्यानूच?
आनी मरपूय एकट्यानूच?

कित्या खातीर?
कोणा खातीर?
**2.5.2002**

## दुकां

कांय दुकां व्हावलीं
कांय दुकां व्हावलींच नात
कांय दुकां रुजलीं
कांय दुका रुजलींच नात

रुजलीं तीं दुकां
मळबा पावलीं
व्हावलीं तीं दुकां
दर्याक मेळ्ळीं

मळबा पावलीं
तीं पावस जावन झडलीं
दर्याक मेळ्ळीं
तीं मोतयां जावन लिपलीं

जीं दुकां व्हांवलींच नात
तीं दुकां रुजतलीं काय?
जीं दुकां रुजलींच नात
तीं दुकां व्हावतलीं काय?

**15.7.2002**

## दार उगडेंच आसा

कोणें तरी दार वाजयलें
म्हूण हांवें दार उगडलें

पळयल्यार
दारार उबें आसलें सूख
सुखान म्हळें
हांव भितर येवं?

हांवें घरांत भितर नदर मारली
इतलीं वर्सां म्हगेर आशिल्लें दुख्ख
दुकां गळयत भितोडे उबें आसलें

हांवें सुखाक म्हळें
इतलीं वर्सां म्हगेर आशिल्ल्या
दुख्खाक हांव कसो धांवडावं?

सुखान म्हळें,
पळय विचार कर
हांव परत येन ना येन

तेन्नासावन हांव बावडो
हुंबऱ्यार उबो आसां
भायर भितर पळयत
**17.7.2002**

## वाट

गांवा कडल्या घरा
कोण रावना
धांपिल्ल्या दारा
कोण पावना

हुंबऱ्याचीं सोंपणां
कोण चडना
देवाकुडींत दिवो
केन्ना पेटना

घरा फुडलो आंबो
आतां चंवरना
घरा फाटलो माड
आतां लागना

बांयचें उदक
कोण काडिना
घरच्या कावळ्याक
कोण वाडिना

चुकून कोण
पावलो जाल्यार
दार उगडून उगडना
आनी धांपून धांपना
20.8.2002

## वाटेर वाट

वाटेर वाट
घांटार घांट
दोंगरार दोंगर रिणाचे?

पानार पान
रानार रान
जिणेक फूल कांट्यांचें?

कातीर कात
दोळ्यांत घात
जळटा तेल रगताचें?

पावलाक दोळे
काळजाक कळे
फाटीर वजें जल्माचें?

सरणार वाती
मातयेर माती
भांगरा नशीब कोणाचें?

**26.8.2002**

## घरांतलीं घरां

म्हज्या घरांत आनीकूय घरां आसात
एक घर म्हजे बायलेचें
त्या घराक पाखें ना, वणटीय नात
पूण गाडी मात आसा दारा सामकार
बायल बसली की ती फुर्र करून नाच जाता

एक घर म्हज्या भुरग्यांचें
तातूंत बॅट आसा, बॉल आसा
फुटबॉल ग्रांवड आसा
क्रिकेट ग्रांवड आसा
बॉक्सिंगाचें रिंग आसा
पुस्तकां, चित्रां आनी शाळाय आसा
त्या घरांत तांचीं सपनांय आसात
त्या घरांत तांचे वांगडा तांचें भुरगेपण रावता

एक घर म्हज्या आवयबापायचें
तातूंत टिव्ही आसा
त्या टिवीचेर रामायण आसा, महाभारत आसा

तकलेर वारें दिवपी फॅन आसा
आनी थंडी पडली की
आंगार घेवपाक दाटसार पांगरुणां आसात
त्या घरांत न्हीद येना जाल्यार
रातीं घेवपाच्यो
न्हिदेच्च्यो गुळयो लेगीत आसात

त्या घरांत आमगेल्या वयार आयिल्ल्या
चेडवाचेंय घर आसा
टिव्हींत लिपिल्लें
बटन दामलो की त्या घराक जाग येता
नायक, नायिका हातांत हात घालून नाचतात
हात पांय तकली भेंड सगळें हालयतात
हें पळोवन तें पोट फुटसर हांसता
केन्नाय तें रडटा बी, भितरले भितर

ह्या सगळ्या घरांनी म्हजेंय घर घुस्पलां
कितलें सोदलें, कितलें सोदलें
पूण अजून सांपडना
केन्ना चुकून दिसता,
ह्या सगल्या घरांनी
म्हजें घर आसा?
काय ना?

**16.10.2002**

## अवेळेच्या वेळा

अवेळेच्या वेळा
पळोवं नाकां वाट
वाटेर वाट सोडटा
सोरपाची कात

अवेळेच्या वेळा
घालूं नाका साद
मना खोल घुमता
काळजांतुली याद

अवेळेच्या वेळा
वाजोवं नाका घांट
थंड वाऱ्या थरथरता
हात्यांचें भाट

अवेळेच्या वेळा
धुकलूं नाका दार
उश्ण रगता फुलता
मन सुरंगां भार

अवेळेच्या वेळा
पेटोवं नाका वात
नखेत्रांनी जळटा
अमाशेची रात

(1.11.2002)

## बीज

हांव घरांत बसलां
घर नियाळीत

अचकीत
घर जालें वणत
वणटीचें जालें दार
दार जालें जनेल
आनी धांवपाक लागलें
म्हजे फाटल्यान
हांवें मारली उडकी
भंयान
जनेलांतल्यान
हांव जालों पक्षी
आनी उडूंक लागलों
ऊंच मळबांत
उडटां उडटां
म्हजीं जालीं कुपां
कडकड करून सरसरलें
जोगूल म्हज्यांतल्यान
आनी ओतूंक लागलो पावस
हांव मातयेंत जिरून गेलों
आनी ओग्गी आसां मातये पोंदा
वाट पळयत
फुडल्या पावसाची

(7.11.2002)

## सफरचंद

सफरचंद खाल्लें की म्हाका कितेंशेंच जाता
आंग घामेता
कात चंवरता
केंस उबेतात
कूड पानेता
जीव तानेता
नदर तरणेता
मन उफेता
काळीज सोरपेता
दोळे धुंवरेतात

मागीर दोतोराक आफोवचो पडटा
ब्लड प्रॅशर तपासपाक

तपासून जातकच दोतोर विचारता
तूं सफरचंद कित्याक खाता?
तुका सफरचंदाची ॲलर्जी आसा

हांव मनांत म्हणटां
बरोच हुशार मरे हो दोतोर
सगळीं सफरचंदां आपुणूच खावंक सोदता

**10.11.2002**

## फांतोडेच्या पारा

फांतोडेच्या पारा
वाजोवं नाका दार
छातये पोंदा चिड्डता
शेंवत्यांचो हार

किट्ट काळखा पदरा
वासनेचें ल्हार
खोल दर्या तळा
आर ना पार

मळबाच्या गर्भांत
लकलकता चूड
दिवटी घेवन नाचता
देंवचारा कूड

फांतोडेच्या दंवांत
शेत सगलें ओलेलें
कोणें सांगचें कोणा
बीज कशें रुजलें?

**13.11.2002**

## तूं

तूं म्हजी भयण जावन
हुंबऱ्यार बसून गितां गायता
केन्ना म्हजी धूव जावन
म्हाका आपालिपा खेळयता
मर्दींच म्हजी आवय जावन
पाळण्यांत धोलयता
तूंच म्हजी राखण जावन
राती जागयता
अमृताये गाय जावन
माये दूदां पिवयता
जावन म्हजी सदाफुली
घर आंगण फुलयता

इतलें करून म्हजे माये
पदरा पोंदा घेवन आये
विचारता
तूं म्हाका वळखता?

**13.11.2002**

## कावळ्यांचें झाड

फांतोडेचें उठ्ठा
कावळ्यांचें झाड

सकाळीं फुडें झडटा
कावळ्यांचें झाड

दनपारचें रडटा
कावळ्यांचें झाड

सांजेवेळां हांसता
कावळ्यांचें झाड

राती कडेन काळेता
कावळ्यांचें झाड

मध्यानरातीं सपनेता
कावळ्यांचें झाड

दिसानदीस कावळेता
कावळ्यांचें झाड

उजवाडांत एकटें
कावळ्यांचें झाड

दुखेता केन्ना सुखेता
कावळ्यांचें झाड

केन्ना तरी उडटलें
कावळ्यांचें झाड?

**3.12.2002**

## झाड

कितलीं वर्सां जालीं
हांव सद्दां त्या झाडा पोंदा बसतां
झाडाक नियाळीत

आतां झाडाचें पानान पान
म्हाका वळखीचें जालां
ताका कोंबऱ्यो फुट्टात
म्हजे नदरे सामकार
ताचीं पानां झडटात

म्हज्या दोळ्यां मुखार
तें स्वास घेता
ताचो आवाज म्हाका आयकूंक येता
ताचीं मुळां जमनी पोंदा उदक सोदतात
तांचीं स्पंदनां म्हाका जाणवतात
ताच्या मनाचें दर एक ल्हार
म्हज्या काळजाक स्पर्शिता

सुकणीं ताचेर घोंटेर बांदतात
तेन्ना तें खोशी जाता
सुकण्या पिलां उडून वतात
तेन्ना तें खंती जाता

आतां तें जाणटें जालां
उडून वचपी सुकण्यांचें ताका दुख्ख ना
उडून येवपी सुकण्यांची तें वाट पळेता
पयसुल्ल्या सुकण्यांची सुलूस लागतकच
तें गदगदता
खोशेन शिरशिरूंक लागता

पळयात झाड आतां शिरशिरूंक लागलां
पयसुल्ल्या निळ्या निळ्या मळबांतल्यान
रंगरंगी सुकण्यांचें भिरें येता

**11.12.2002**

## झाड कोंबरेता

झाड कोंबरेता
हांवूय कोंबरेतां
झाड वाडटा
हांवूय वाडटां
झाड धोलता
हांवूय धोलतां
झाड तानेता
हांवूय तानेतां
झाड भुकेता
हांवूय भुकेतां
झाड फुलता
हांवूय फुलतां
झाड फळटा
हांवूंय फळटां
झाड दुखेता
हांवूय दुखेतां
झाड सुखेता
हांवूय सुखेतां
झाड पर्जळटा
हांवूय पर्जळटां

झाड उडले दिगंतरा
हांव मात उरलों धर्तरा
**11.12.2002**

## वोल्तेर

म्हज्या घरांत एक पोरणें वोल्तेर आसा
पयलीं म्हजो पणजो त्या वोल्तेरार बसतालो
एक दीस तो त्या वोल्तेरार बशिल्ले कडेन मेलो
मागीर म्हजो आजो वोल्तेरार बसतालो
तोय बी एक दीस तसोच मेलो
मागीर त्या रिकाम्या वोल्तेरार
म्हजो बापूय बसूंक लागलो
तोय बी अचकीत मेलो
वोल्तेराचेरूच
ह्या वोल्तेराचो म्हाका आतां भंय दिसता
हांव त्या वोल्तेरार केन्नाच बसना

पूण कांय दिसां पयलीं पळेत जाल्यार
म्हजो पूत त्या वोल्तेरार बसला
हांवें ताच्या कानसुलार एक दिलें
आनी वोल्तेर दोडून दवरलें

पूण हांव ना सो पळोवन
तो ल्हवूच वोल्तेरार बसता
आतां ह्या वोल्तेराचें हांव कितें करूं?
तुमकां बी जाय वोल्तेर?
तुमगेर बी आसा कोण जाणटो मनीस
नाका आशिल्लो?

**15.12.2002**

## विपरीत

हांवें तकले वयल्यान हात भोंवडायलो
तेन्ना सगळें केंसूच म्हज्या हातांत आयले
हांव हुमेलों
हें आनीक कितें?
हांवें बोटाची मुदी सांसपिली
जाल्यार बोटूच निखळून पडलें, मुदये सकट
म्हाका थरथर भरलो
दिसलें, हांव सपनेवंक ना मूं?

हाताक चिमटो काडल्यार
हाताचें मास्सूच चिमटेंत आयलें
भंयान हांवें पांयार हात भोंवडायलो
जाल्यार सोरोप सोडटा तशी
पांयाची सगळी कातूच सुटली
धोंपराची वाटीच हातांत आयली
सकयल हात लायलो जाल्यार
हाताक कांय लागना
म्हजें सगळें भांडवलूच गेल्लें

मागीर लक्षांत आयलें
हांव मरून खूब दीस जाले आसतले
पूण कोणाकूच कशें कळूंक ना?

म्हाका लेगीत?
**(15.12.2002)**

## जनेल

म्हज्या घराक दार ना
गंवडो दार दवरूंक विसरलो

हांव जनेलांतल्यान घरांत वतां
आनी भायर कसो येतां म्हणटात?
हें आनीक कितें विचारप जालें?
त्याच जनेलांतल्यान

पयर गंवड्याक हाडलो
आनी विचारलें
आतां कितें करपाचें?
ताणें तकली खाजोवन म्हळें
'पात्रांव, जनेलाचेंच दार फोडुंया'
हांवें म्हळें, 'पिशा, घराक एक तरी जनेल नाका?'
ताकाय तें पटलें
'थोड्या दिसांनी उपाय काडुंया' ताणें म्हळें

सद्या हांव त्याच जनेलांतल्यान
भायर वतकच भितर सरतां
आनी भितर सरतकच भायर सरतां

**16.1.2003**

## जात्रा

बापूय गेलो
ताचे वांगडा आवय गेली
भाव गेलो
ताचे बरोबर भयण गेली
बायल गेली
तिचे सांगाता पूत गेलो
सगल्यां वांगडा म्हूण धूव गेली
पयसुल्ले जात्रेक

कितले दीस जाले
हांव तांची वाट पळेत बसलां

आयज
कोणें तरी म्हाका येवन सांगलें
ते जात्रेक गेल्लीं मनशां
परतीं येनात

**16.1.2003**

## सात दीस

एक दीस बापायगेर गेलों
एक दीस आवयगेर गेलों
एक दीस भावागेर गेलों
एक दीस पुतागेर गेलों
एक दीस बायलेगेर गेलों
एक दीस नातवागेर गेलों
एक दीस वाज आयलो म्हूण
म्हज्याच घरा रावलों

**16.1.2003**

## इश्ट

पयसुल्ल्यान दोंगरा वयल्यान
झाडां पेडां माड्डीत
माती मस्तीत
गच्च धवो धवो पावस
येता वाऱ्या सांगातान
काळींकिट्ट कुपां
वांगडा घेवन
रस्ते भिजतात
बिल्डिंगो ओलेतात
लोक पळटात
आलाशिऱ्याक

पावस लागीं येता नेटान
हांव दारा सामकार
उबो आसां पावसाक पळेत
पावस आतां येतलो
सामको दारांतल्यान
भितर सरतलो
म्हाका चिप्प भिजोवन
पूण, हांव दार बंद कशें करूं?
दारार आयिल्ल्या इश्टाक
दार कशें धांपूं?

**15.2.2003**

## सर्ग

हांव मेलों
तेन्ना यमराजाच्या सेवकांनी
म्हाका ओडीत व्हरून
चित्रगुप्ता म्हऱ्यांत उबो केलो
ताणें म्हजें नांव तपासून पळयलें
आनी व्हडली खाते वही उगडली
ताच्या रुंद मेजा फाटल्यान
भरिल्ल्या पिशव्यांची रास पडिल्ली

कांय वेळान ताणें तकली वयर केली
आनी म्हाका विचारलें
आवयची सेवा केली मरे?
हांवें म्हळें, 'हय'

चित्रगुप्तान उजवे वटेनच्या सेवकाक कुरू केली
ताणें भरिल्ल्या पोतयांच्या राशींतली
एक पोती म्हज्या पोशांत दवरली

हांवें विचारलें, 'ही कसली पोती?'
'पुण्याची' - चित्रगुप्तान म्हळें
आवयची सेवा केल्ल्यान
फावो जाल्लें पुण्य
हे पोतयेंत आसा
बापायक सांबाळ्ळो मरे?
हांवें म्हळें, 'हय'
आनीक एक पुण्याची पोती
भयणीचें लग्न केलें? - तिसरो प्रस्न
हांवें मान हालयली
आनीक एक पुण्याची पोती
भावाचें शिक्षण केलें?
हांवें म्हळें, 'हय'
आनीक एक पोती
लग्न करून भुरगीं काडलीं मरे?
हय
कितलीं?
दोन
आनीक एक पोती
पोतयांची रास जाली

मागीर म्हजीं पापां ताणें मेजलीं
आनी दावे वटेनच्या सेवकान
पुण्याच्यो कांय पोतयो परत घेतल्यो
हिशोब मेकळो जातकच
हांवें विचारलें, आतां फुडें कितें?

चित्रगुप्त हांसलो
सेवकांक ताणें कुरू केली
तांणी सगल्यो पोतयो एकठांय बांदून
म्हजे फाटीर दवरल्यो
आतां तूं सर्गांत, चित्रगुप्तान म्हळें
हांवें विचारलें, खंयची वाट?
ताणें उजवे कडेन बोट दाखयलें
ते वटेन नदर मारली जाल्यार सोंपणांच सोंपणां
वाट ऊंच मळबांत पाविल्ली
फाटी वयलें पुण्याचें वजें सांबाळीत
हांव सर्गाचीं सोंपणां चडूंक लाग्लों
वयर
वयर
वयर....
दम लागलो
फाट मोडूंक पावली
हड्डें भरून आयलें
स्वास घेवपाक हांव मात्सो रावलों
आनी फुडें नदर भोंवडायली
फुडें सोंपणांच सोंपणां
सर्ग खंयच दिसनासलो

**10.3.2003**

## फुडले फावट

म्हजो बापूय
जेन्ना खऱ्यांनीच मेलो
तेन्ना म्हज्या दोळ्यांत दूक आयलेंना
जिणें बापायचो संवसार ओडीत व्हेलो
ते आवयचे दोळे सुकून गेल्ले

पयसुल्ले भाव
दुसऱ्यागेर दिल्ल्यो भयणी
तांच्याय दोळ्यांत थेंबे भरलेनात
म्हाका दिसलें
हें कांय बरें जायना
लोक कितें म्हणटले?
म्हूण हांवें 'जाय तें मेळटा' एजन्सीक फोन केलो
एजन्सीन एक बायल धाडून दिली
म्हज्या बापायक एकूच भयण
तिणें येना फुडें हुयेल मारली, 'म्हज्या भावा ऽऽऽ'
तशीं आमचीं काळजां भरून
दोळे ओतूंक लागले
लोकांनी म्हळें, अशीं बायल भुरगीं मेळचीं नात

मागीर सगळें जातकच
लोक वतकच
हांवें ते बायलेच्या हातार पयशे दवरले
तेन्ना तिणें म्हळें,
'आज खऱ्यांनीच दोळ्यांत दुकां आयलीं पयशे नाकात
हांवें म्हळें, अशें कशें?
तिणें म्हळें, 'कोणाक खबर, पयशे मात
घेतलीं हांव - फुडले फावट'

फुडले फावट?

**31.3.2003**

## माजर

म्हजें नशीब
काळें माजर जावन म्हज्या घरांत येवन रावलां
म्हाका दवरिल्लें दूद आपूण पियेता
म्हाका दवरिल्लें नुस्तें आपूण खाता
म्हाका दवरिल्ली खीर आपूण मटकायता

चार दिसां पयलीं
हांवें ताचे गोमटेक धरून
ताका तिसरे माळयेवयल्यान
सकयल मोखून माल्लें
सकयल पळयत जाल्यार
आपल्या पांयार उबें
खंयसून तरी परत घरांत सरलें
म्हजे हात जळटाले
म्हज्या हातांक दावखुलां लागून रगत आयिल्लें

पयर कशें तरी धरून
पोतयेंत घालून
लागींच्या तळ्यांत व्हरून बुडयलें
बूड घागरी
पळयल्यार पोतये सकट
माजर पेंवन पलतडीं वयर सरलें

काल ताका साकांत भरून
स्कूटर घेवन
मागीर बस धरून
पयस अनवळखी
वाटेर सोडले

म्हाका परत घरा पावपाक
उशीर जालो
माजर म्हजे पयलींच घरा पाविल्लें

आतां करतलो तरी कितें?
तुमचे कडेन कितें उपाय आसा व्हय?
काय तुमचेंय नशीब
काळें माजर जावन तुमच्या घरांत येवन रावलां?

**4.4.2003**

## सोद

हांव तुका सोदूंक गेलों
तेन्ना तुजे आवयन सांगलें
तूं ताका मेळूंक गेलां

हांव ताका सोदूंक गेलों
थंय कळ्ळें
तो तिका सोदूंक गेला

हांव तिच्या घरा गेलों
तेन्ना सांगलें
ती हाका मेळूंक गेल्या

हांव हाका सोदूंक गेलों
तेन्ना थंय जाप मेळ्ळी
हो हिका सोदूंक गेला

हांव हिच्या घरा पावलों
तेन्ना कळ्ळें
ही म्हाका सोदूंक गेल्या

हांव परत घरा पावलों
पळयत जाल्यार घरा कोणूच ना
आतां ही आनीक खंय पावली काय?

**24.4.2003**

## रात

झाडांय बी रातचीं
एकामेकालागीं उलयतात

काल रातीं
शेजारील्या माडान आमचे माडयेक म्हळें,
'बरी मगे धोलता तूं हेवटेन तेवटेन'
आमचे माडयेन म्हळें, 'आनी तूंय उबो हालता मरे!'
'वाऱ्या वांगडा बरी फुलता मगे!'
'तूंय बी मर्दीच दोडटा मरे?'
'चारी वटांनी घुंवता शी?
'आनी तूंय चुडटां वाजयता तो?'
'मात्शी लागीं यो
कानांत कितें सांगतां तुका'
'ल्हवूच सांगता मरे?
कोणूय आयकत बी'

मागीर कांय आयकूंक येना
म्हूण हांवें ल्हवूच जनेलांतल्यान पळयलें

काळखांत माडाचे सावळेंत
माडी दिसनाशिल्ली
वाऱ्याचो मात सळ्ळ सळ्ळ
आवाज वाडटालो

7.5.2003

## खाड

म्हाल्यान पयलेच फावट
म्हज्या खाडाक जेन्ना वाखर लायलो
तेन्ना सट्ट करून दोळ्यांतसून उदक आयलें

हांव भुरगेपण सोडूंक तयार नासलों
आनी जाणटेपण म्हाका सोडूंक तयार नासलें

तेन्ना सावन
कितले फावट हांवें खाड केलें देवाक खबर!
खूबदां खाड करिनासतना
खाड खाजयत एक दोन दीस रावलों
तिसऱ्या दिसा हारशांत पळयत जाल्यार
चाचा फक्रुद्दीन
चवथ्या दिसा, म्हजो आजो
आनी सातव्या दिसा
भगवानके नाम पे एक रुपया दे दे मायबाप
म्हणपी भिकारी

तेन्नासावन हांव दीसपट्टें खाड करतां
(पूण खाडान वाडपाचें सोडूंक ना)
मनीस मरतकूच लेगीत
कांय वरां खाड वाडतूच आसता
अशें पयरूच कोणें तरी म्हळें
कोणें काय?

**6.10.2003**

## माती

बूड बूड बुडले
दर्यातळा रिगले
हातांत पिशा कितें?
मोतीं

रात रात जागले
सोद सोद सोदलें
हातांत पिशा कितें?
वाती

भावण भयणां मेळ्ळीं
पाप पुण्यां फळ्ळीं
हातांत पिशा कितें?
नातीं

घण घण घणलें
खण खण खणलें
हातांत पिशा कितें?
माती

मोतीं गेलें फुटून
वाती गेल्यो पेटून
नातीं गेलीं झरून
माती गेली व्हांवून
**13.10.2003**

## जोरगत

दर्या
तूं रडत आसा
अनंत काळा सावन
म्हूण
तुजें उदक खार जालां
आनी तुजे देगेर बसून
जे रडून गेले
तांच्या दुकांनी तुजें उदक
आनिकूय खारट जालां

आरें दर्या,
कसलें दूख्ख घेवन
बसला तूं काळजांत?

म्हाका पयसुल्ल्यान लेगीत
आयकूंक येता
तुज्या दुख्खाचो गाज
आतां पुरो कर तुजें रडप
आनी हांस
ल्हारा ल्हारांनी
येवं दी जोरगत
नितळ गोड्या उदकाची
आनी बुडून वचूं दी
सगल्या रडटल्यांक

**24.10.2003**

## परतून एकदां

आंबो थरथरता
खांदये खांदयांनी
आंबो प्रसवता
पाना पानांनी
आंबो चंवरेता
कोंबऱ्या कोंबऱ्यांनी
आंबो फुलोता
रंध्रां रंध्रांनी
आंबो केंसरेता
चंवरा चंवरांनी
आंबो भंवरेता
मुसा मुसांनी
आंबो पाखेता
प्रणय गंधांनी
आंबो भरतलो
तोरा तोरांनी
आंबो हालतलो
आंब्या आंब्यांनी

परतून एकदां
परतून एकदां

**24.10.2003**

## परतेची वाट

सांज जाल्या
निकतोच सुर्या अस्तला
हांव एकटोंच
विस्मयान
रंगरंगयाळें
दर खिणाक बदलपी मळब नियाळटां

कावळे घोंटेरांत परतूंक लागल्यात
उंचावयल्यान उडपी घारी
पिलांच्या यादींनी उमाळून
परतूंक लागल्यात
मळबांतल्यान धव्यो बळारी
उशीर जाल्लेवरी
थेट घरा कडेन उडूंक लागल्यात
सगलीं सुकणीं परतत आसात

आनी हांव?
म्हाका परतुपाचें ना काय?
घरा?
चार वणटींच्या घरा?
सावरीचें बोंड फुटून
सगलीं मनशां कापसा वरी उडून गेलीं
त्या घरा?

पूण त्या रित्या घराक तरी
कोणाचो आदार आसा?
ओगीच, नऱ्हाळून म्हजी वाट पळयतलें
चल पिशा घरा
उडून गेल्ल्यो सावरीच्यो म्हाताऱ्यो
परत्यो येनात
पूण सावरीक परतून फुलां येतलीं
आनी फुलांतलें म्होंव चोखपी साळोऱ्योय
परतून येतल्यो
तेच सावरीचेर
घराचेंय तशेंच आसता
चल पिशा घरा
परत एक फावट

**2.11.2003**

## सांगात

मनशां पोसून जालीं
आतां म्हळें सुणो पोसुया
मात्सो म्हजेच भशेन दिसपी
एक सुण्याचो पेटो हाडलो

कितलें करतलो?
हांव दिसले बाराबर उडी मारून
ताणें म्हजी पापी घेतिल्ली

सुणो कितलो अपुरबायेचो म्हूण सांगूं?
सकाळीं म्हजें पांगरूण ओडून म्हाका उठयता
हांव संडासांत गेल्यार तो भायर उबो
हांव भायर सरलों की तो संडासांत वता

पयर हांव न्हातालों
पळयल्यार शाबूच ना
दारार टक् टक् आवाज
पळयल्यार हो तोंडांत शाबू घेवन उबो

काल सकाळीं कविता बरयतना
एक शब्दूच सुचना
सुणोयं म्हजे म्हऱ्यांत रावन
कविते कडेन लक्ष दिवन आसा
खंयचो बाबा शब्द वापरचो?

मर्दींच सुण्यान म्हळें ‘भूक भूक’
भूक शब्द ज्युस्ताज्युस्त लागलो कवितेक
मागीर आमकां भूक लागल्या म्हूण
आमी ब्रेकफास्ट करूंक बसले

म्हाका पाव आवडटा
म्हूण तोय पाव खाता
तो च्या पियेना, दूद पियेता
म्हूण हांवूय आतां दूद पियेतां, च्या पियेना
म्हाका चरचरीत तळिल्ले ताल्ले आवडटात
म्हूण तो बोडकी आनी शेंपडी खावन
मदलो ताल्लो म्हाका दवरता

आमी दोगूय सांजे भोंवंक वतात

म्हाका ताची एकूच गजाल आवडना
मुतता आसतना तो दावो पांय वयर उखलता

पयलीं एकटेपणाचो भोंवरो गरगर भोंवतालो
म्हज्या काळजांत
ताच्या सांगातान
म्हज्या सुखाची बांय भरून ओतता

आतां मुतता आसतना
म्हजो दावो पांय उखलता

**6.11.2003**

## देग

पांच स म्हयने जाले
हांव न्हावंकच ना
म्हणजे जाता अशें
न्हावपाक येता वाज

सकाळीं उठलों
आनी भोंवतां भोंवतां
न्हंयेचे देगेर देवळांत पावलों
घे गर्दी!
लोक चोंब्यांनी न्हंयेंत बुचकळ्यो मारताले
एक दोन तीन
एक दोन तीन

हांव वयले वटेन बसून पळयतां मात
एक जटाधारी म्हजे फुड्यांत उबो रावलो
गळ्यांत सोरोप, माथ्यार चंद्र, हातांत त्रिशूळ
तागें चंद्र, त्रिशूळ आनी सोरोप
म्हज्या हातांत दिलो
आनी म्हळें
'मात्सो सांबाळ, हांव न्हावन येतां'
सोरोप पळोवन म्हाका घाम सुटलो
हांवें ताका विचारलें
'चाबना मरे हो?'
ताणें मान हालयली
वस्त्र देंवयलें आनी न्हावंक गेलो

हातांत सोरोप हुळहुळटालो
म्हजो जीव कुळकुळटालो
हांवें न्हंयेचे देगेर नदर मारली
जटाधारी खंयच दिसनासलो

तितले भितर
सोरपान म्हजे गोमटेक
केन्ना वेटाळो घालो तें कळ्ळेंच ना
सोरपान काळसर, तुकतुकीत फणो फुलयलो
म्हज्या दोळ्यांत दोळे घालून पळयलें
आनी दाट तांबसार फुटकी जीब काडून म्हळें
'न्हातलो काय ना रे?'
'न्हातलो काय ना रे?'

हांवें आकांतान
गळ्यांतलो सोरोप शेंवटिलो
आनी जिवाच्या भंयान
धांवत वचून न्हंयेंत उडी मारली

कांय वेळान
तकली वयर काडून पळयत जाल्यार
न्हंयेचेर न्हावपी लोक
खंय तरी नाच्च जाल्ले
आनी तांच्या जाग्यार
शेंकड्यांनी नाग
म्हजी वाट पळयत
उदका देगेर उबे आसले

**22.2.2004**

## कळाव

घरा परतुपाक बरोच कळाव जालो
जिवितूच जेन्ना सैरभैर जाता
तेन्ना हांव खंय पावतां,
तें म्हाका कळना
घरा परतुपाक सदांच कळाव जाता अशें ना
पूण खूबदां
वाटेक वाट फुटत वता
मागीर रात माथ्यार येता

असोच काळखांत आपटत धपटत
घरा पावलों आनी दारार हात मारलो
बरेचदां दार धोडायलें
पूण घर दार उगडिना

घराची कांय चूक ना
घरान म्हूण कितली वाट पळोवप?
कितलो वेळ हांव दारा भायर सोंपणार बसलों
मागीर थंयच आ।ड पडलों
एकलेपणाचो स्वास हड्ड्यांत घेत
रातकिड्यांची किरकीर आयकत
उक्त्या मळबांतली नखेत्रां मेजीत
मागीर केन्ना तरी जाग आयली

आंग ठणठणटालें
शिंयाळ वारें सणसणटालें
घराचो राग गेलो काय?
ल्हवूच दार धुकल्लें तें उगडलें
शेंदरेर पडून
चादर आंगार ओडली

घर बाबडें दीसरात एकटेंच आसा

**22.2.2004**

## सपनांचे पलतडी

सपनांचे पलतडी
सपनाच सपनां
सपनांचे आलतडी
कोण गायती कवनां?

कवनां कोणा सुखार्ची
कवनां कोणा दुखार्ची
खंय तरी शेणिल्ल्या
अमुरपिक्या मोगार्ची

आलतडीच्या माटवांत
खेळ खेळटी बावुर्ली
कांय गोरीं, कांय काळीं
कांय सोबीत सावुर्ळी

पांयां वाजती पांयजणां
मनां मात रूणझुणा
देखी दोळे काळे निळे
कोणा सोदती कोण जाणा!

आलतडीच्या माटवांतु
नाचु रंगला
दोळ्यांच्या उदकांतु
स्वासू घुस्पला

**25.8.2004**

## सोंपेपण

घार मळबांत उडटा
उडप कितलें सोंपें न्हय?
नुस्तें उदकांत पेंवता
पेंवप कितलें सोंपें न्हय?
कुपां मळबांत उबतात
उबप कितलें सोंपें न्हय?
दर्या दर्यांत गाजता
गाजप कितलें सोंपें न्हय?
सुर्या अंतराळांत जळटा
जळप कितलें सोंपें न्हय?
सदाफुली सदांच हांसता
हांसप कितलें सोंपें न्हय?
पयस कोण तरी सदांच रडटा
रडप कितलें सोंपें न्हय?
उदक उदकांत व्हांवता
व्हांवप कितलें सोंपें न्हय?
हांव दर खिणाक जगतां
जगप इतलें कठीण कशें?
हांव दर खिणाक मरतां
मरपूय इतलें कठीण कशें?

**25.9.2004**

## जल्म

जिणेक सपन फुलां
सपन फुलांक यादी पिलां
यादी पिलांचें आंग
तांबडें सार
रगत धांवता पळे चारीवटयां

यादी पिलां वळवळटात
यादी पिलां वेटाळटात
यादी पिलां तानेतात
यादी पिला भुकेतात
यादी पिलां म्हाका धरतात
यादी पिलां म्हाका गिळटात
चाबनासतना

हांव भियेतां,
हांव आड्डतां,
हांव हुयेली मारतां,
हांव रडटां,
हांव तळमळटां,
हांव घुसमट्टां,
हांव मरतां
आनी मागीर
हांव जल्माक येता
परतून एकदां
तांबडो सार

मागीर हांव धांवत सुट्टां
प्राण हड्ड्यांत घेवन
कांटे-कुटे, गुंडे माड्डीत
मेळत ते वटेन
पूण
म्हजे फाटल्यान
यादी पिलां
म्हाका सोदीत
सळसळत येतात
काळ्या काळ्या सोरपां भशेन
म्हाका गिळपाक
परतून एकदां

**16.10.2004**

## झर

ल्हानपणा सावन
अचकीत
कितें तरी जालें की
म्हज्या दोळ्यांतसून
उदक व्हांवत रावता

हांवें केन्ना तरी
आवयक विचारिल्लें
'म्हाका अशें कित्याक जाता गे आई?'

आवय थोडो वेळ ओग्गीशी जाल्ली
मागीर तिणें सांगिल्लें
'तूं पोटांत आसतना
तुजो बापूय आठ आठ दीस
घराच पावनासलो
आनी हांव हुंबऱ्यार बसताली
दोळे गळयत
वाट पळयत
मागीर कोणायकूय सांगून
तुज्या बापायक सोदून हाडचो पड
मागीर केन्ना तरी म्हजीं दुकां सुकलीं
तीं तुज्या दोळ्यांतसून
व्हांवतात दिसता पुता

एक दीस आवय गेली
आनी मागीर बापुयूय भायर पडलो

लग्न जातकच केन्ना तरी बायलेन विचारलें
'तुज्या दोळ्यांत झर आसा काय कितें?
सारकें उदक व्हांवत आसता'
आवयन म्हाका जें सांगिल्लें
तें म्हजे बायलेक सांगल्यार तिका समजतलें काय?

म्हज्या बायल भुरग्यांक सोडून
हांव केन्ना भायर रावलोंच ना
म्हाका केन्ना सोडून हाडचो पडलोच ना

बायल भुरगीं केन्ना भायर सरलीं जाल्यार
आनी वेळार परतलीनात जाल्यार
हांव घराचे गॅलरींत उबो आसतां

काळोख दाटत वता
तशी भितर खंय तरी पयस झर पाझरूंक लागता
आनी हांव उदकाची वाट पळयत रावतां

**14.11.2004**

## उदक

उदक कुपांतुलें
उदक पावसांतुलें

उदक फातरांतुलें
उदक दोंगरांतुलें

उदक मातयेंतुलें
उदक खळयेंतुलें

उदक न्हंयेंतुलें
उदक तळयेंतुलें

उदक शेतांतुलें
उदक भातांतुलें

उदक दर्यांतुलें
उदक सुर्यातुलें

उदक मुळांतुलें
उदक झाडांतुलें

उदक दवांतुलें
उदक म्होंवांतुलें

उदक रगतांतुलें
उदक काळजांतुलें

उदक रागातुलें
उदक मोगातुलें

उदक दोळ्यांतुलें
उदक उदकांतुलें

**2.2.2005**

## दोळे

एका दोळ्यांत सूख
एका दोळ्यांत दूक

एका दोळ्यांत दर्या
एका दोळ्यांत सुर्या

एका दोळ्यांत उजवाड
एका दोळ्यांत काळोख

एका दोळ्यांत वोत
एका दोळ्यांत पावस

एका दोळ्यांत मोग
एका दोळ्यांत भोग

एका दोळ्यांत जल्म
एका दोळ्यांत मर्ण

एका दोळ्यांत तूं
एका दोळ्यांत हांव

म्हज्या दोळ्यांत तूं
तुज्या दोळ्यांत हांव

**17.6.2005**

## पावस

पावस भिजयता
पावस रुजयता
पावस व्हांवयता
पावस न्हाणयता
पावस झोडटा
पावस मोडटा
पावस धाडायता
पावस माडयता
पावस बुडयता
पावस हुबयता
पावस हुमटायता
पावस घुस्मटायता
पावस रडयता
पावस हांसयता
पावस फुलयता
पावस दुखयता

कित्याचेंच म्हाका वायट दिसना

पूण खूबदां
वळख लेगीत दाखयना
ताचो म्हाका खूब राग येता

**21.7.2005**

## उपरांत

हांवूच म्हजी आवय जालों
आनी म्हाका मांडयेर घेतलो
हांवूच म्हजी आवय जावन
म्हजी खाडकी हालयली
केंसांनी हात भोंवडायलो
खाृतकुतल्यो केल्यो
ओ़ंठ चुमले
कान ओडले
पोले चिड्डिले
म्हाका दुखलें
हांवें आड्डी मारीत
सगलें घर माथ्यार घेतलें

हांवूच म्हजी आवय जावन
म्हाका बाबापुता केलो
आंब्या वयलो काको दाखयलो
शेजान्नील्या हामाक आपयली
काकीबायल्या कुतूक उलो मारलो
म्यांव म्यांव म्हळें
कोंब्याक शो शो केलें
पिपी दिली
दुदू दिलो
पूण म्हज्यो आड्डी थांबनात
सारको बोब मारीत आसां
'आवय गे आवय गे!'

हांवूच म्हजी आवय जालों
आनी म्हाका मांडयेर घेतलो

मात
म्हजी आवय मेले उपरांत

**13.10.2005**

## सोंपणां

पयलीं आवय मेली
ती पुण्यवान
आपूण सवायशीण मरची
अशी तिची इत्सा

बापूय मरूंक तयार नासलो
पूण जाणटेपण वाडत गेलें
कितलींशींच वर्सां हांतरुणार पडून
ताकाय बी मरचेंच पडलें

हांवूय बी एक दीस मेलों

यमाच्या सेवकांनी म्हजी गुठली उखलून
सर्गाच्या दारार सोडली
पळयत जाल्यार
म्हजो बापूय आनी म्हजी आवय
सर्गाच्या सोंपणांचेर बसून आसात
हांवें विचारलें
'आये अजुनूय तुमी हांगाच?'

आवयन म्हणलें ‘पळय रे पुता,
म्हाका सर्गांत घेतात
पूण तुज्या बापायक सर्गांत घेनात.
हांव तुज्या बापाय बगर
सर्गांत एकली कशी रावूं?

तूं येतलो म्हूण
आमी तुजीच वाट पळयतालीं
कितें तरी कर रे बाबा
कसोय तरी बापायक सर्गांत पावय

हांव आनीक कितें करतलों?
आयुश्यभर आवयन सांगलें तें केलें

हांवें सर्गाच्या जनेलांतसून भितर नदर मारली
जाल्यार शेंकड्यांनी लोक
पूण कोणूच वळखीचो दिसना
म्हजे वळखीचे सगळे खंय पावले काय?

**30.10.2005**

## घर

एक एक चिरो
एक एक दार
एक एक जनेल
एक एक वांसो
एक एक नळो
जमोवन
हांवें घर बांदिल्लें
आवयबापूय
भावभयणां खातीर
मागीर
एक एक करून
सगळीं नाच्च जालीं
हांव उरलों एकलोंच
मागीर म्हळें आतां आनीक घर कित्याक?

घर सोडलें
चलत रावलों
वाट फुटत थंय
पांयां पोंदा भगभगपी धर्तरी
आनी तकलेर जळजळपी सुर्या
वाटेर तळपार बसून हूम पुसतालों
आयलों ते वाटेर नदर मारल्यार
म्हजे फाटल्यान
एक एक चिरो

एक एक दार
एक एक जनेल
एक एक वांसो
एक एक नळो
सगळे गिर्र करून एकठांय जाले
म्हजे फुड्यांत म्हजें घर उबें रावलें
हांवें कपलार हात मारलो
बेगिबेगीन उठलों
आनी वाटेक लागलों
सडसडीत पावलां उखलीत

कांय वेळान
फाटल्यान पळयल्यार
एक एक चिरो, दार, जनेल, वांसो, नळो

हांव उबो रावलों
सगळ्यांक हात जोडून
नमस्कार केलो
आनी जीव घेवन धांवत सुटलों
फाटीं पळयनासतना
सांसणाचो....

**6.11.2005**

## आवयपण

हांव जेन्ना जल्माक आयलों
तेन्ना रडटालों काय हांसतालों?
हांव जालों तेन्ना आवयक खूब त्रास जाले काय?
म्हजें रूप कोणाचें?
आवयचें काय बापायचें?
म्हाका कोणें नांव दवरलें?
आवयन? बापायन? काय आनीक कोणें?
आवयचो हात सोडून हांव केन्ना उबो रावलों?
हांव आवयक त्रास दितालों काय ना?
आवय म्हाका मारताली काय ना?
भूक लागतकच हांव आवय कडेन कितें मागतालों?
दुदू, चॉकलेट, उंडो काय बिस्कीट?
हांव आवयक आवडटालों काय ना?
हांव आवयक धर म्हणटालों काय सकयल सोड म्हणटालों?
हांवें कोणाक पयलो उलो मारलो?
आवयक काय बापायक?

हे सगळे भुरगेपणांतले प्रस्न
म्हज्या मनांत उप्रासतात
मजा म्हणल्यार भुरगेपण म्हजेंच
पूण म्हाकाच खबर ना
आतां आवयक विचारतलों म्हणल्यार
तीय बाबडी मरून गेली

मरचे पयलीं हांवें हें सगळें तिका विचारचें
म्हूण ती वाट पळयताली काय?

**11.11.2005**

## निवड

तुका बापायची निवड करूंक मेळना
तुका आवयची निवड करूंक मेळना
तुका भावाची निवड करूंक मेळना
तुका भयणीची निवड करूंक मेळना
तुका बापोलयाची निवड करूंक मेळना
तुका मामाची निवड करूंक मेळना

तुका फकत बायलेची निवड करूंक मेळटा

तुका मांवाची निवड करूंक मेळना
तुका मांयची निवड करूंक मेळना
तुका मेवणेची निवड करूंक मेळना
तुका मेवण्याची निवड करूंक मेळना

पूण खूब वर्सांनी तुका कळटा
तुवें बायलेची निवड करूंक ना

तुजे बायलेनूच तुजी निवड केल्या

आतां निवड तुवें केली कितें?
वा तुजे बायलेन केली कितें?
नशिबांतलें कोणाक चुकता?

**17.7.2006**

## पळेतां पळेतां

पळेतां पळेतां
सामकार आशिल्ल्या
झाडाक पांखां फुटलीं
आनी तें उडूंक लागलें
परदेशी पक्षा वरी

थोड्या वेळान दुसऱ्या झाडाक पांखां फुटलीं
आनी तेंय झाड उडूंक लागलें
मागीर ताचे कुशीकच्या झाडाक
पांखां फुटलीं
आनी तेंय उडूंक लागलें
मागीर चवथें
मागीर पांचवें
मागीर सवें
मागीर सातवें

मागीर एका फाटल्यान एक
सगळींच उडूंक लागलीं
ल्हान मोटीं झाडां
आख्खें रानूच
ऊंच मळबांत
सगळें मळब दाट पाचवेंचार
कांय वेळान सगळें रितें रितें
खंय उडून गेलीं काय
सगळीं झाडां? धर्तरी सोडून?

मनीस सुटला कापीत तांची वंशावळ
आतां आमचें कशें जातलें?
आतां खंयचीं कुपां?
खंयचो पावस?
खंयचें उदक?
खंयचो दर्या?

आतां सगळें सुकून वतलें
दोळ्यांतल्या उदकाचो निमाणो थेंब लेगीत
तळतळट्या सड्यार
भगभगत्या उज्यांत
गोबोर जातलो मनीसजातीचो
गोबोर
पळेतां पळेतां

**17.7.2006**

## वंश

दोगांयनी मेळून ल्हानसो घोंटेर बांदला
झाडाचे बारकेले खांदयेर
तो लोंबकळटा
साप्प तोंकार
वाऱ्या वांगडा हेवटेन तेवटेन हालता
तेन्ना सुकण्याचें काळीज कलकलता

आपलें इल्लेशें तांती तें उबयता
रात दीस
ताका भूक लागना
ताका तान लागना
ताका न्हीद लागना
फकत एकूच काम
उबोवप
उबोवप
आनी उबोवप

तांतयांत जीव धरला
तो वाडत आसा
तातूंत रगत, मास, प्राण
खिणाखिणाक भरत आसा
मासाचो गुळो वाडत वतलो
ताका आकार येतलो
एक दीस तांतीं फुट्टलें
ताच्या पिलाचो जल्म जातलो
तें वाडटलें
ताच्या तांबसार आंगाक पिसां येतलीं
ताका दिसूंक लागतलो
दिगंत आसमंत
शीम नाशिल्लो
ताका पांखां फुट्टलीं
एक दीस तें पील उडून वतलें

मागीर तें सुकणें
परत घोंटेर बांदून
तांतीं उबोवंक बसतलें काय?

**24.7.2006**

## वसती

काळजांत रान वाडत आसा
म्हजे सोयरे-धायरे, इश्टगण
एक एक झाड जावन
त्या रानांत वसतेक आयल्यात

मायेन गोपान ओडून गळ मेरेन
तकलेर तेल थापपी आजी

मध्यान राती म्हाका खांक मारून
धांप लागिल्ली आसतना
जागो जावन
कांदो धाडावन रोस करून दिवपी चुलतो

अर्द पोटार कडकडून भूक लागिल्ली आसतना
भट्टेर व्हरून पानके खावोवपी धाकलो मामा

तिनसांजे
देवाक दिवो पेटोवपा वेळार
तांदूळ गोटो हाडटलो म्हूण
म्हाका मांडयेर घेवन
घोवाचे वाटे कडेन नदर लावन
हुंबऱ्यार बशिल्ली आवय

म्हाका आवडटात म्हूण
पडीच्या मापांत
आंबट गोड अमुरपिकीं बोरां लिपोवन
श ळेच्या रस्त्या वटयां नदर लावन
म्हजी वाट पळोवपी
उमेदीच्या वयार कॅन्सरान गेल्ली मावशी

पिसावल्ल्या सुण्यान घांस मारतकूच
कांय दिसांनी सुण्या वरी आड्डत
जीव सोडिल्लो ल्हानपणांतलो इश्ट पांडू

जेवणाचे नाना तरेचे पदार्थ करपी
पूण हट्टीपणान
आपल्याच पांयार
गुंडो मारून
आपलें आयुश्य
उद्ध्वस्त करून घेतिल्ली भयणं

शाळेंत म्हजे बाराबर शिकपी,
संवसाराक लागतकच
बेबद्या मदांत घोवाच्या
छळाक विटून जीव दिल्ली इश्टीण

फुडले भोग भोगचे पडटले म्हूण
म्हजो जल्म जावचे पयलींच
कसलें तरी निमित्त जावन
भायर पडिल्लो व्हडलो भाव

आनी ह्या सगल्यां वांगडा कितलेशेच
जिविताचे वाटेर जीव लावन गेल्ले

थोड्या दिसांनी
हांवूय एक झाड जावन
तांचे वांगडा वसतेक वचपाचो आसां

**24.7.2006**

## आपले आपूण

अथांग उदकांतल्यान
सात दर्या पेंवन
गर्भार कांसवीण
वेळे वयले रेंवेंत
खड्डो उसपून
खूब तांतयां घालता
आपल्या पांयांनी
तांचेर रेंव थापटून परत वता
ती आनीक परती येना

मागीर कांय दीस
आनी कांय रातीं उपरांत
तीं तांतयां फोडून
पिलां भायर सरतात
ल्हवूच रेंवेंतल्यान तोंड भायर काडून
अंदमास घेतात
उदकाचो
दर्याचो
मागीर वेळ पळोवन
धांवंक लागतात उदका वटयां

कोणाक कावळो उखलता
कोणाक सुणो खाता
कोणाक घोण उबारता
कोणाक सोरोप गिळटा
कोणाक मानगें खाता
उदकांत पाव म्हणसर

उदकांतूय पिलांक खावपी
नाना तरांचीं नुस्तीं आसात
तांच्या तोंडांतसून कोण स़

वांचल्यार वांचलें
शंबरांतलें एक पील
पूण ताका केन्नाच
ताची आवय भेटना
अथांग खोल उदकांत
ताका शिकचें पडटा
जगपाक
आपले आपूण

25.7.2006

## काळीज पक्षी

अशे कशे उडून वतात
यार्दीचे काळीज पक्षी?

एक कोगळेच्या चंवरिल्ल्या आंब्यार
एक चानयेच्या दाट पणसार
एक किरांचे आंबट गोड बोरीर
एक तांबड्या फुलांनी भरिल्ले साळोऱ्यांचे सांवरीर
एक पानां विणे फुलिल्ल्या
धव्याफुल्ल चांफ्यार

एक घमघमत्या सुरंगेर
एक ऊंच एकसुऱ्या माडार
एक पोपटाचे पाचवे पेरीर
एक दाट वसतीच्या वडार
एक फुलानफूल झडयतल्या पारजतार
एक सुखान भरिल्ल्या केशरी गुलमोहरार

अशे कशे उडून वतात
यार्दीचे काळीज पक्षी?

म्हाका एकटो सोडून!

**29.7.2006**

## नातें

हांवें आवयक किराटून सांगलें
तूं म्हजी आवय न्हय,
वैरीण
साता जल्माची
तुवें आयुष्यभर म्हाका खालो
बापायचीं रिणां भरपाक,
भावाचीं शिक्षणां करपाक,
भयणींचीं लग्नां करून दिवपाक,
तुज्या संवसाराचो गाडो ओडपाक,
रगड्यान रगडून रगडून
म्हजो रोस काडलो
हें सगळें आयकून आयकून
हांव सामकार आसतना
एक दीस आवयन हात जोडले

तिका सारकें दिश्टी पडनासलें
मागीर कांय दिसांनी ती गेली
आपल्या अनंत अंतीम प्रवासाक
ती सामकी भावार्थी
तुळशीक उदक घालेबगर
तिचो दीस सुरू जायनासलो
देवाक दिवो लायलेबगर
तिची रात सुरू जायनासली
तिणें कोणाक हात जोडले?
देवाक
दैवाक
काय म्हाका?
आयजूय काळेकिट्ट काळखे रार्ती
हांव सट्ट करून जागो जातां
येवजितां
वच्चे पयलीं
आवयन कोणाक हात जोडले?
मागीर
हांवूंय आपसूक हात जोडटां
कोणाक?
देवाक?
दैवाक?
काय आवयक?

15 8.2006

## आसप

केन्ना केन्ना
हांव आसा काय ना?
तेंच म्हाका कळना
म्हणजे हांव आसां
तें हांव जाणां
पूण हांव खरोच आसां
अशें म्हाका दिसना
मर्दींच आसां कसो दिसता
मर्दींच ना कसो दिसता

म्हजी आजी आतां ना
पूण ती आसा कशी दिसता
घरांत मनशां आसुनूय
हांव जेन्ना एकटों आसता
तेन्ना ती म्हाका विचारता
'आरे, तकलेर तेल घालून थापटूं?'
म्हज्या भुरगेपणांत ती म्हाका
मांडयेर घेवन तकलेर तेल थापी
'आखो माखो
तेल माखो
तेलकाराचो गाडगो फुटलो
तेल गे तेल'
मागीर हांव जाग्यार येतालों
म्हाका मेकळें मेकळें दिसतालें

म्हाका भाव आसात,
भयणी आसात
पूण तीं नात कशीं दिसतात

म्हजें लग्न जावन खूब वर्सां जालीं
पूण फांतोडेर
अचकीत जाग येवन
'ही आनीक कोण कुशीक न्हिदल्या?'
अशें दिसता

म्हजो लंगोटीयार इश्ट दासू
आमी खेळटाले त्या ग्रांवडा कुशीक
देवळा भोंवतर्णी प्रदक्षिणा काडटना
म्हंजे बरोबर आसता
म्हणजे खरो आतां तो ना
पूण शाळेचे वाटेर चलतना
आयजूय तो म्हजे वांगडा चलता
आमी दोगूय शाळेंत वांगडा वताले

आमचें घर आतां मोडून पडलां
पूण हांव थंय वचत जाल्यार
तें पयलीं आशिल्लें तशेंच उबें रावता

म्हजी आवय भायर येवन
तुळशीक उदक घालता
खरें म्हणल्यार म्हजी आवय आतां ना
आनी ती तुळसूय ना

काल हांव दोतोराक दाखोवंक गेल्लों
हांवें ताका सांगलें
'केन्ना केन्ना
हांव आसां काय ना
तेंच म्हाका कळना
म्हणजे हांव आसां
तें हांव जाणां
पूण हांव खरोच आसां
अशें म्हाका दिसना'

दोतोर पट्ट करून
उडकी मारून उबो रावलो
ताणें म्हळें, 'दी ताळी
सुटलें गणीत,
म्हाकाय बी ज्युस्त अशेंच दिसता'

**20.9.2006**

## पार

हांव जरी आसलों हांगा
हांव जरी नासलों हांगा
हांव हांगचो न्हय

हांव जरी खेळ्ळों हांगा
हांव जरी नाचलों हांगा
हांव हांगचो न्हय

हांव जरी रडलों हांगा
हांव जरी हांसलों हांगा
हांव हांगचो न्हय

हांव जरी न्हिदलों हांगा
हांव जरी उठलों हांगा
हांव हांगचो न्हय

हांव जरी रावलों हांगा
हांव जरी गावलो हांगा
हांव हांगचो न्हय

हांव जरी उरलों हांगा
हांव जरी वसलों हांगा
हांव हांगचो न्हय

हांव जरी जगलों हांगा
हांव जरी मेलों हांगा
हांव हांगचो न्हय

**26.9.2006**

## वस्त्र

‘थोडें पणज्याचें
थोडें पणजेचें
थोडें आज्याचें
थोडें आजयेचें
थोडें बापायचें
थोडें आवयचें
थोडें मामाचें
थोडें चुलत्याचें
थोडें भावाचें
थोडें भयणीचें
अशें थोडें थोडें मेळून तूं घडला’
हें म्हाका
देवळाच्या सोपणार बशिल्लो आसतना
भगव्या वस्त्रांतल्या एका मनशान सांगलें

हांवें हरशीं विचारूंक नासलें
ताणें सांगलेंच म्हूण हांवें फुडें म्हळें
'मागीर आपूण म्हूण कोण नासता तर?'

'आज मेरेन तेंच हांव सोदतालों' अशें सांगून
म्हजेच सामकार
ताणें आपली भगवीं वस्त्रां देंवयलीं
आनी म्हज्या हातांत दिलीं
देवळाचीं सोपणां उतरत तो चलत रावलो

हांव तीं वस्त्रां घेवन
एके वटयां देवाक
आनी दुसरे वटयां
तो मनीस गेल्ले वाटे कडें पळेत आसां

दर्शनाक येवपी लोकांनी वाजयल्ल्या घांटींचो
ठण् ठण् आवाज कानार पडत आसा

मागीर म्हज्या लक्षांत आयलें
हांव अनाथ
हें ताका सांगपाचें हांव विसरुनूच गेलों

**2.10.2006**

## भोग

ताचें नांव
तेंच म्हजें नांव
ताचें आडनांव
तेंच म्हजें आडनांव

तो नुस्तें मटण खाता
हांव शिवराक
तो देवळांत वचना
हांव देवळांत वतां
तो सोरो पियेता
हांव सोरो पियेना
तो जुगार खेळटा
हांव जुगार खेळना
ताका सगळें लागता
हांव सुको सडसडीत

तो आनी हांव मेलो
एकाच दिसा
एकाच अपघातांत
एकाच वेळार

यमाच्या दुतांनी
आमकां दोगांकूय वयर व्हेले
ताका सर्गांत धाडलो
म्हाका नरकांत
हांवें बोब मारीत सांगलें-
'तुमची कितें तरी चूक जाता
तो नरकांत वचपाचो
हांव सर्गांत
ताणें कसलेंच पुण्य करूंक ना
हांवें कसलेंच पाप करूंक ना'
म्हजें कोणेंच आयकलेंना
नरकांत म्हजे हाल चल्ल्यात
सगळ्यां सामकार

अवेर म्हाका झेलाचे लादयेर
उक्तो न्हिदोवन
फाटीर सळसळट्या तेलाचो
एक एक थेंब घालीत रावले
दीसभर
एका थेंबाक एक फोड
एका थेंबाक एक फोड
फोडार फोड फोडार फोड
आख्खी कूड एक फोड जाली
प्राण वचून वचना

पयर बोकड्या वरी म्हाका
जितोच सोलून काडलो
आनी पांयांक हूक लावन हुमकळायलो
तकली सकयल पांय वयर

काल मोट्टे कायलींत
सळसळट्या उदकांत घालून
म्हाका भाजून काडलो

सकाळीं कोंबडे वरी म्हजी मान कापून
म्हाका फडफडायलो
आनी मागीर लांकडार धरून
म्हजे सपासप कुडके केले
कोयत्याचे घाव घालीत

सध्या म्हज्या आंगांतल्यान
एक मोट्टो लोखंडाचो वारांव तोपून
म्हजी तंदुरी भाजपाचें काम चालू आसा

आतां कितें म्हूण करूं हांव?

**11.10.2006**

## जाळें

कोळी विणटा जाळें
एक धागो आवयचो
एक धागो मामाचो
एक धागो बापायचो
एक धागो बापोलयाचो
एक धागो भयणीचो
एक धागो भावोजीचो
एक धागो भावाचो
एक धागो भावजयेचो
एक धागो बायलेचो
एक धागो मेवण्याचो
एक धागो धुवेचो
एक धागो जांवयाचो
एक धागो पुताचो
एक धागो सुनेचो

म्हजो धागो खंयचो?

हांव कोण?
जाळें विणपी कोळी?
काय जाळ्यांत घुस्पल्लो जीव?
काय कोळी हांवूच?
जाळ्यांत घुस्पल्लो जीव हांवूच?

**24.10.2006**

## अंत्ययात्रा

आयुश्य सोंपता म्हणसर
भोवतेक सगळ्यांक
सगळें भोगूंक मेळटा
सगळें पळोवंक मेळटा
दुर्दैवान पळोवंक मेळना
आपली स्वताची अंत्ययात्रा

आपूण मेलों की
कोण रडटा, कोण रडना
तें पळोवंक मेळना
कोण चड रडटा, कोण कमी रडटा
तें आयकूंक येना
कोण खऱ्यांनी रडटा
कोण मानग्याचीं दुकां गळयता तें दिसना
कोण आपले खातीर रडटा
कोण आपल्या नांवान रडटा
तें दिश्टी पडना
आपले रडटात काय भलतेच रडटात
तेंय समजना

भटाक कोण आपयता?
निसण कोण बांदता?
केळीचें पान कोण हाडटा?
सूप, धवो कपडो, मडकें कोण घेवन येता?
शववाहिका कोण मागयता?
तें दोळे उगकते उरल्यार लेगीत दिसना
आपली सारी कशी दाळ्ळ्या
लाकडां सुकीं आसात काय ओलीं?
कोण कोण आयल्यात?
कोण कोण येवंक नात?
कोण कितें उलयतात?
कांयच कळना

बरें, जितो आसतना
हें सगलें घडोवन पळेतलो म्हणल्यार अडचण
अंत्ययात्रेचे रंगीत तालमीक
कोण आपयल्यार येतलो
हाची गॅरंटी ना

मनीस जितो आसतना म्हूण रडप?
जित्या मनशाक निसणीक बांदप?
आपयल्यार भट लेगीत येवचो ना
जित्या मनशाक व्हरपाक शववाहिका
मेळप कुस्तार

समजात
कोणा ‘इव्हेंट मॅनेजराक’ दिलो ‘कॉंट्रॅक्ट’
लोक आयलेय बी
रडलेय बी
म्हाका निसणीक बांदलोय बी
भटाक उखलून हाडलोय बी
सारी दाळून वयर दवरलोय बी
मंत्रपाठ चलताय बी
आनी इतल्यान चुकून कोणें उजो लायलोय बी
लाकडां सुकीं आसलींय बी
सारी वयल्यान बेगिबेगीन उठलोंय बी
पूण कोणेंय दुस्मानान परत उज्यांत धुकल्लो जाल्यार
सोंपली रंगीत तालीम
केदी मोटी जोखीम!
जिवार येवपी ह्यो भानगडी जाय कोणाक?
पाड पडूं ते रंगीत तालमेचें
मागीर रडटात ते रडूं
आनी व्हरतात तें व्हरूं
आनी करतात तें करूं
गोबोर
मरतकूच कितें फरक पडटा?

17.12.2006

## हांव आसां

हांव आसां
म्हज्या दोळ्यांतल्या मळबांत
फुल्ला रंगरंगी इंद्रधोणू
पाचवीचार गर्भार धर्तरी
हांव पळयतां
उजवाड काळोख
ल्हारेवपी दर्या
धगधगपी सुर्या
हांव आसां

हांव आसां
हांव कानांनी आयकतां
झाडांच्या सळसळट्या पानांचें गायन
सुकण्यांचो आनंदोत्सव
खळखळत व्हांवपी उदकाचो नाद
सैमाचो सृजनोत्सव
हांव आसां

हांव आसां
हांव गंध घेतां मातयेंतले मायेचो
व्हांवत्या वाऱ्याचो
ल्हवपीक फुलून पाकळ्या पाकळ्यांनी
उजवाडाक येवकार दिवपी कळयांचो
हांव आसां

हांव आसां
हांव भोगतां स्पर्श
बायलेचे कुडीचो
भुंरग्यांच्या हावेसांचो
घराच्या वणटींचो
देवा फुडले पणटेचो
हांव आसां

हांव आसां
हांव पळयतां सपनां
पुनर्जल्माचीं
हांव भोगतां सुवाळे
सात जल्मांच्या मरणांचे
हांव आसां

हांव आसां
हांव मरतां
हांव जल्मतां
हांव परतून मरतां
हांव परतून जल्मतां
हांव आसा
जितोजिवो ह्या खिणाक

हांव आसां

**8.8.2007**

## मुक्ती

तुजें स्वागत करपाक
हांव सदैव तयार आसां
हांव तुजी केन्नाच्यान वाट पळयतां
चार दीस
हांसचो रडचो
नाचचो फुलचो
दुखेवंचो सुखेवंचो
म्हूण तुका धाडलेलो
आतां तुजो वेळ सोंपत आयला

सूख खीणयाळें
तशेंच दुख्खूय खीणयाळें
पूण दर एकान अणभव घेवचोच पडटा
सूख दुख्ख आपलें आपणेंच भोगचें पडटा

जें बरें केलें
ताची खोशी घेवन यो
जें वायट केलें
ताचो पश्चात्ताप करीत यो
सगल्यांक सूख मेळचें अशें म्हण
जांणी जांणी तुका सूख दिलें
तांचे उपकार मान
जांणी जांणी तुका दुख्ख दिलें
तांचेंय 'देव बरें करूं' म्हण
जे तुजे वांगडा रावले
तांकां गोपांत धर
जांणी तुका त्रास दिले
तांचोय तूं निरोप घे
निमाणें सगळे आपलेच
तुका इतलेंच सांगतां की तुवें आतां
तुज्या मूळ घरा परतुपाचें आसा
तेन्ना जें कितें तुवें जोडलां
तें थंयच दवरून तुका येवचें पडटलें
सगलीं वस्त्रां देंवोवन
तुका निर्वस्त्र जावन येवचें पडटलें
तूं जसो थंय गेल्लो
त्याच रुपांत तुका परत येवचें पडटलें
फकत तुजें मूळ तेज घेवन

म्हाका पळोवन भियेवं नाका
मूळ घरा परत येवपाक भंय कसलो?
दोळ्यांत दूक कित्याक?
तुवें हांसत येवंक जाय
कारण तूं मुक्त जावन येत आसा
आतां तुका कसलेंच बंधन उरचें ना
वेळाचें
नात्याचें
कर्तव्याचें
दुख्खाचें
मोगाचें
दुस्मानकायेचें
तूं परत येतलो म्हूण
हांगाचे सगले खोशी आसात
तूं येतलो म्हूण उमळशिकेन वाट पळयत
चडशे तुजेच
इश्ट
सोयरेधायरे
वाडवडील
तुजे दुस्मान लेगीत दुस्मानकाय विसरून
तुका गोपांत घेवंक रावल्यात
खरें म्हणल्यार तुवें वेळ वगडावंक जायना
आमी तुजे वाटेर फुलां शिंपडायल्यांत
बेगीन यो

**20.9.2007**

# पयली उजवाडावणी

---

1) कावळ्याचें स्राद्ध .................. जाग, मे 1999
2) कागदाचीं व्हडीं .................. जाग, एप्रिल 1999
3) काळजा कुडींत .................. जाग, फेब्रुवारी 2001
4) देव .................. जाग, फेब्रुवारी 2000
5) माकडाचे दांत .................. जाग, मार्च 2000
6) कोण गेलो पयस .................. जाग, मे 2000
7) सुर्याचें जळप देखिलें .................. जाग, जुलय 2000
8) मन गेलां राना वना .................. जाग, जून 2000
9) कितें म्हजें नांव? .................. कोंकणी वर्सुकी 2000
10) अनंत .................. जाग, एप्रिल 2001
11) सपनां कडेर .................. जाग, दिवाळी 2001
12) घोंटेरांतले कावळिणी .................. जाग, जुलय 2001
13) इत्सा .................. सुनापरान्त, 6 ऑक्टोबर 2002
14) पलतडचो गांव .................. सुनापरान्त, 6 ऑक्टोबर 2002
15) जागो .................. सुनापरान्त, 6 ऑक्टोबर 2002
16) सुखा सुखा .................. सुनापरान्त, 25 ऑगस्ट 2002
17) कोणा खातीर .................. सुनापरान्त, 6 ऑक्टोबर 2002
18) दुकां .................. सुनापरान्त, 8 डिसेंबर 2002
19) दार उगडेंच आसा .................. सुनापरान्त, 22 डिसेंबर 2002
20) वाट .................. सुनापरान्त, 15 सप्टेंबर 2002
21) वाटेर वाट .................. सुनापरान्त,29 सप्टेंबर 2002
22) घरांतलीं घरां .................. सुनापरान्त, 15 डिसेंबर 2002
23) अवेळेच्या वेळा .................. सुनापरान्त, 29 जून 2003
24) बीज .................. ऋतु, मार्च-एप्रिल 2004
25) सफरचंद .................. जाग, जानेवारी 2003
26) फांतोडेच्या पारा .................. सुनापरान्त, 28 डिसेंबर 2002
27) तूं .................. कोंकण टायम्स, दिवाळी 2004
28) कावळ्याचें झाड .................. सुनापरान्त, 19 जानेवारी 2003
29) झाड .................. कोंकण टायम्स, दिवाळी 2007
30) झाड कोंबरेता .................. जैत, दिवाळी 2006
31) वोल्तेर .................. जाग, डिसेंबर 2002
32) विपरीत .................. जाग, फेब्रुवारी-मार्च 2003
33) जनेल .................. सुनापरान्त, 25 मे 2003
34) जात्रा .................. सुनापरान्त, 20 एप्रिल 2003
35) सात दीस .................. ऋतु, शिशिर अंक 2005
36 )इश्ट .................. सुनापरान्त 4 मे 2003

37) सर्ग ................................ जाग, जून 2004
38) फुडले फावट .................... जाग, सप्टेंबर 2003
39) माजर.............................. सुनापरान्त, 4 मे 2003
40) सोद ................................ जाग, दिवाळी 2003
41) रात ................................ ऋतु, शिशिर अंक पौष माघ, 2005
42) खाड ................................ जाग, जून 2000
43) माती ................................ ऋतु, मार्च-एप्रिल 2004
44) जोरगत .............................. ऋतु, नोव्हेंबर-डिसेंबर 2003
45) परतून एकदां ...................... कोंकण टायम्स, दिवाळी 2004
46) परतेची वाट........................ कोंकण टायम्स, जून 2004
47) सांगात ............................. जाग, जून 2007
48) देग .................................. जाग, एप्रिल-मे 2004
49) कळाव .............................. ऋतु, मार्च-एप्रिल 2004
50) सपनांचे पलतडी ................. कोंकणी, दिवाळी 2004
51) सोंपेपण ............................ जाग, दिवाळी 2004
52) जल्म ................................ कोंकणी, दिवाळी 2004
53) झर .................................. जाग, दिवाळी 2005
54) उदक ................................ ऋतु, शरद अंक 2006
55) दोळे ................................ कोंकणी, दिवाळी 2005
56) पावस ............................... कोंकण टायम्स, दिवाळी 2005
57) उपरांत ............................. जाग, एप्रिल-मे 2007
58) सोंपणां .............................. ऋतु, शरद अंक 2006
59) घर .................................. ऋतु, शरद अंक 2006
60) आवयपण ........................... ऋतु, शरद अंक 2006
61) निवड ............................... जाग, सप्टेंबर 2006
62) पळेतां पळेतां ..................... जाग, ऑगस्ट 2006
63) वंश .................................. कोंकण टायम्स, चवथ अंक 2006
64) वसती ............................... जाग, ऑगस्ट 2006
65) आपले आपूण ...................... कोंकण टायम्स, ऑगस्ट 2006
66) काळीज पक्षी ...................... कोंकण टायम्स, दिवाळी अंक 2006
67) नातें ................................ जाग, दिवाळी 2006
68) आसप ............................... जाग, ऑक्टोबर 2006
69) पार.................................. कोंकण टायम्स, दिवाळी अंक 2006
70) वस्त्र ................................. जाग, फेब्रुवारी 2007
71) भोग ................................ कुळागर, डिसेंबर 2006
72) जाळें ................................ बारदेस, दिवाळी अंक 2006
73) अंत्ययात्रा ........................... जाग, जुलय 2007
74) हांव आसां .......................... लामणदिवो, दिवाळी 2007
75) मुक्ती ................................ कोंकणी, ि ाळी 2007

## कावळ्याचें स्राद्ध

कावळिणीन पुताक विचारलें,
आरे,
बापायचें स्राद्ध करिना?
कावळ्याच्या पुतान म्हळें,
बापायन म्हजे खातीर कितें केलां?
कावळिणीन म्हळें
बापायन तुजे खातीर
कांयच करुंक ना आसत
पूण तुका जल्म तरी दिला मरे?

कावळ्याच्या पुतान रागान
दोन-तीनदां तकली आपटिली
आनी कावळेभटागेर गेलो
कावळेभटान तीथ काडून दिली

कावळ्याच्या पुतान स्राद्धाची
सगळी तयारी केली
स्राद्धा दिसा दोन - चार सोयरेंय आयले
कावळेभटान धर्माप्रमाण
सगळें यथासांग केलें
कावळ्याच्या पुतान पिंड व्हरून
देवळा लागसारच्या झाडामुळांत दवरलो

देवळाच्या पारार बशिल्लो
अर्द पिसो भिकारी
धावंत येवन पिंड खावपाक लागलो

मनीस आफुडलो, मनीस आफुडलो
कावळयाचो एक सोयरो आडूडलो

कावळिणीचे दोळे ओले जाले
दुकां आयलीं
तातूंतलीं दोन दुकां झाडा मुळांत पडलीं
आनी सुके मातयेंत जिरून गेलीं